# विद्यापतीचीं पदां

(काव्य संग्रह)

कोंकणी रुपांतर :

**अभयकुमार वेलींगकार**



**शणै प्रकाशन**

वेलींग

# विद्यापतीचीं पदां

(काव्य संग्रह)

**अभयकुमार वेलींगकार**

# Vidyapatichin Padaan

(A Konkani Translation)

by : **Abhaykumar Velingkar**



उजवाडावपी :

**शणै प्रकाशन**

वेलींग - म्हाड्डोळ,

गोंय 403404

मोबायल : 9423884687

पयली उजवाडावणी : **सप्टेंबर 2020**

प्रकाशन क्रमांक : **62**

छापपी : **रिया ग्राफीक्स**

पोरणें गोंय - 403 402

मोबायल : 9881409237

मुखचित्र :

**सिया अतुल पंडित** (9764887346)

**मोल: रु. 150/-**

**ISBN : 81-86390-20-0**

अभयकुमार, तुवें जर कवितेची  निमणी वोळ 'विद्यापती म्हणटा'
जाग्यार 'अभयकुमार म्हणटा' अशी बरयल्ली जाल्यार
ह्यो कविता ओरिजिनल कोंकणी कविता दिसपाच्यो,
इतलो सुंदर अणकार जाला. अस्सल कोंकणी मातयेंतली कविता
कशी दिसता.' म्हणपाची पावती दिवन म्हजी उर्बा वाडोवपी

**कविवर्य स. शंकर रामाणी**

हांकां आदरान!

**–अभयकुमार वेलींगकार**

# अभयकुमार वेलींगकार हांची प्रकाशीत पुस्तकां:

## बाल साहित्य

### कविता

1. माणकुलीं कवनां
2. पिसाय
3. कुळागर
4. माकडाची मजा
5. सोशेमाम सोशेमाम

### चरित्र

1. भगवान बुद्ध
2. कण्णगी
3. राम मनोहर लोहिया
4. भगिनी निवेदिता
5. चंद्रशेखर आझाद
6. क्रांतिवीर सावरकार
7. गावंया तांच्यो आरती

### काणयो

1. गजू जालो राजा
2. देव तारता ताका कोण मारता?
3. देख दिण्यो काणयो - 2 भाग
4. गजाची मजा
5. फॉरेन सत्री
6. आटकुळें पिटकुळें
   (लोक काणयो)

## कविता संग्रह

1. दीस उदेतकूच यो
2. कांय कविता
3. चियर्स
4. बोन्साय
5. विद्यापतीचीं पदां - रुपांतर

## गद्य

1. हांव न्हीद काडटां - एकांकी संग्रह
2. इंग्लिशींतल्यान कोंकणी शिकात
   - स्वयं शिक्षक
3. लव्ह स्टॉरी - नवलिका
4. सुमती - नवलिका
5. कंवच्यो - कथा संग्रह

## नाटक

1. एक खेळ काळखाचो

# अशीय वाडटा साहित्याची गिरेस्तकाय

**आमच्या** देशांत एका कवीचें नांव एका पुलाक आनी एका विमानतळाक दिलां अशें सांगलें जाल्यार सट्ट करून कोणाचोय विस्वास बसचो ना. कारण साहित्यकारांक तितलो भोवमान दिवपाची परंपरा आयच्या भारतांत ना. पूण हाचे आदीं तसो भोवमान विद्यापती ह्या मैथिली महाकवीच्या वांट्याक आयला. कोलकाता महानगरांत सियाल्डा रेल्वे स्टेशना लागीं आशिल्ल्या पुलाक 'विद्यापती सेतु' अशें नांव दिल्लें आसा. तेच भाशेन दरभंगा विमानतळाक 'कवी कोकीळ विद्यापती विमानतळ' अशें नांव दिल्लें आसा.

मैथिली ही भास साहित्य अकादेमीन मानून घेतिल्ली आसा आनी संविधानाचे आठवे अनुसुचींतूय तिचो आस्पाव आसा. हेरशीं मैथिली भाशेंत चड साहित्य ना; आज ते भाशेंत खूब साहित्य निर्माण जाता अशेंय ना. भाशेच्या अभ्यासा खातीर लागतात तसलीं साधनांय व्हडलींशीं नात. अशें आसुनूय मैथिली भाशेक मान आनी प्रतिष्ठा मेळूंक पावलीं तीं फकत विद्यापती ह्या महाकवीन रचिल्ल्या काव्याक लागून. एकाच साहित्यकाराचे पुण्यायेन भाशेक असो भोवमान फावो जावपाची ही घडये एकमेव देख.

विद्यापतीचो जल्म बिहारांत आज मधुबनी म्हूण वळखतात त्या

वाठारांत जालो आनी तो सुमार 95 वर्सां जियेलो. 'मैथील कवी कोकीळ' अशेंय नांव ताका आदरान दिल्लें आसा. ताणें मैथिली आनी संस्कृत ह्या भाशांनी बारा ग्रंथ बरयल्ले मेळटात आनी ते वेगवेगळ्या विशयांचेर आसात. शृंगार-पदांची 'पदावली' आनी 'पुरूष परिक्षा' हे ग्रंथ चड म्हत्वाचे अशें मानतात. विद्यापतीच्या साहित्याचो प्रभाव रवींद्रनाथ टागोर, बंकिमचंद्र चटर्जी हांचे सारक्या व्हड साहित्यकारांचेर पडला.

विद्यापतीन आपल्या काळांतले रिती प्रमाण आपणाल्या पदांच्या निमण्या वळींनी 'विद्यापती म्हणटा' वा 'विद्यापती सांगता' अशीं उतरां घालून पदांचो रचणार आपूण म्हणपाचें दाखयलां. ही रीत कबिराच्या दोह्यांनी मेळटा तशीच नामदेव, तुकाराम, एकनाथ, जनाबाई ह्या मराठी संत-संतिणीच्या अभंगांनी मेळटा. ह्या झेल्यांत 80 पदां आसात. तातुंतल्या चडश्या पदांनी विद्यापतीचें नांव आसा. मात थोड्या पदांनी कोणाचेंच नांव ना तर कांय पदांनी 'कवी शेखर' अशीं उतरां मेळटात. हे विशीं संशोधन जालां काय कितें आनी कवी शेखर कोण हें स्पश्ट जालां काय कितें हें खबर ना. तर्क केलो जाल्यार अशें म्हणुंयेता की विद्यापती हें नांव वापरचे आदीं तो कवी शेखर ह्या नांवान पदां रचतालो. विद्यापती ह्या नांवा विशींय तर्क करचो पडटा. लेखक म्हूण ताणें स्वता तें नांव घेतलां आसुंयेता वा मिथिलेच्या राजान ताका तशी पदवी दिल्ली आसुंयेता. मिथिलेच्या राजांचो रसीक म्हूण केल्लो उल्लेख कांय पदांनी मेळटा.

ह्या पुस्तकांतलीं पदां राधा आनी कृष्ण हांचे विशीं आसात आनी तीं शृंगार रसान उपाट भरिल्लीं आसात. विद्यापतीन हीं पदां रचचे सुमार 200 वर्सां आदीं जयदेव ह्या कवीन 'गीत गोविंद' हें काव्य रचिल्लें. घडये तेन्ना सावन राधा कृष्ण हें जोडें मोग, शृंगार आनी भक्ती ह्या मळांचेर लोकप्रिय जालें - जायत गेलें; इतलें की कृष्णाचीं देवळां उबीं जालीं आनी तांचे बराबर राधे कृष्णाचींय देवळां जावन राधे-कृष्ण हांचें नातें

हें भक्तीचो लोकप्रिय विशय जालें. एका प्रभावी काव्यांतल्यान केदो चमत्कार घडुंयेता हाची ही भोव बरी देख.

हेरशीं, महाभारतांत राधेचो उल्लेख ना. भागवतांत कृष्णाचें चरित्र मेळटा; पूण तातूंत राधा हें पात्र ना. अठरा पुराणां मदल्या फकत एका पुराणांत राधा आसा. घडये त्या आदाराचो लाव घेवन जयदेव कवीन कल्पनेचो भोंवर मारलो आनी राधेक कृष्णाचे जिणेचो कुशीक काडूंक येना असो वांटो करून उडयली. ती परंपरा विद्यापतीन फुडें व्हेली आनी आयच्या काळ मेरेन ती चलत आयल्या.

विद्यापतीन राधा आनी कृष्ण हांकां मनशां लेखल्यांत. मोगी आनी मोगिका हें तांचे मदलें नातें. कोणाकूच दैवी रूप ना आनी चमत्काराची घडणूक ना. ताका लागून ह्या महाकवीच्या पदांनी भक्ती रस ना. आसा तो शृंगार रस – ताच्या सगल्या रुपां सयत.

विद्यापतीचीं अभयकुमार वेलींगकार हांणी कोंकणींत रुपांतरीत केल्लीं 80 पदां ह्या झेल्यांत आसात. मूळ मैथिलींतल्या 'पदावलीं'तलें 'पद' हें उतर तांणी दवरलां. 'पद' हें उतर कांय भाशांनी आसा; पूण भाशे प्रमाण ताचो अर्थ बदलता. कोंकणींत पद हें उतर गीत ह्या अर्थान वापरतात तर मराठींत नाटकांतल्या गिताक पद हें उतर लायतात. हिंदी, मैथिली बी भाशांनी आदल्या काळार पद हें उतर कविता ह्या अर्थान वापरताले. कवितांच्या झेल्याक पदावली हें उतर लायताले. आज उतरां बदल्ल्यांत. आमी साहित्याच्या ज्या प्रकाराक कविता म्हणटात त्या प्रकाराक मराठींत आनी हिंदींतूय कविताच म्हणटात. रुपांतरकारान विद्यापतीच्या 'पदां'क मैथिलीचो सुवास उरचो म्हूण पदावलींतलें पद हें उतर दवरलां अशें दिसता. तातूंत विचित्र अशें वा अजाप करपा सारकें कांय ना. कबिराच्या दोह्यांक आमी दोहेच म्हणटात. घडये, तशें केल्ल्यान त्या साहित्य प्रकाराचें खाशेलेपण तिगून उरता.

एके भाशेंतलें गद्य दुसरे भाशेंत हाडप हें तुळेन मात्शें सोपें; पूण काव्य न्हय. भास बदलतना कितलीशीच चड जतनाय घेवची पडटा आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार मूळ काव्यांतल्या अर्था कडेन, रसा कडेन आनी खाशेलेपणां कडेन प्रामाणीक रावन अणकार वा रुपांतर करचें पडटा. वेलींगकार हांणी अणकाराची वाट सोडून रुपांतराचो मार्ग आपणायला हें बरें जालां. ताका लागून विद्यापतीच्यो कविता कोंकणी भाशेच्या सभावा कडेन एकरूप जाल्यात. शृंगाराक भाशेची गरज आसताच अशें ना. पूण शृंगार रस उतरांनी उतरावपाक भाशेक बळगें आसचें पडटा. तें बळगें मैथिली भाशेंत आसा तशेंच कोंकणी भाशेंतूय आसा हाची गवाय ह्या झेल्यांतल्या रुपांतरांतल्यान मेळटा.

ह्या झेल्यांतल्यो कविता मुक्तछंदांत आसात. यमकां आसात; पूण तांचें बंधन कवितेक ना. हेरशीं मैथिली आनी कोंकणी एका प्राकृतांतल्यान जल्माक येवंक नात. पूण रुपांतर इतलें बरें जालां की दोनूय भासो खूब लागींच्यो आसात अशें दिसुंयेता. दोनूय भाशांचें शृंगार रसा कडेन बरें जुळटा अशेंय ह्या रुपांतरां वयल्यान म्हणुंयेता. घडये तेच खातीर, कवितेच्या अणकारांत खूब फावटीं जें कृत्रीमपण वा अडेचें रूप दिसता तें ह्या रुपांतरांत दिसना. मूळ कोंकणींतलें शृंगार काव्य दिसचें इतलें तें एकरूप जालां. देख म्हूण एके कवितेंतल्यो ह्यो वळी दिवं येतात:

*थानां जाग्यार उबारी आयली*
*चलपाची गती दोळ्यांनी घेतली*
*आतां दर वेळा हातांत पदर*
*लजता इश्टिणींक विचारूंक खबर*
*कितें सांगूं माधवा ह्या वयाचो खेळ*
*देखतां देखतां बसता मनांत काम मेळ*

विद्यापतीच्या कवितांनी शृंगार रसाचीं सगलीं रुपां दिसतात अशें हांवें

आदीं म्हळां. त्या रुपां मदलें हें सौम्य रूप अशें हांव म्हणन. असली आनीक एक देख दिवची जाल्यार -

*राहून कूप जावन सुर्याक ग्रासला*
*रातीवरी सगळ्याक काळोख जाला*
*एकसारको पावस पडटा*
*हुंवारान भोंवप कठीण जाता*
*चल सुंदरे कर तुजो साज*
*समागमाक दीस बरो आज*

विद्यापतीची कविता शृंगार रसाचें हें सौम्य रूप सोडून एक पावल फुडें घालता तें अभयकुमार वेलींगकार हांणी नकसूद उतरांनी रुपांतरांत हाडलां तें अशें:

*हरीन जेन्ना म्हजी चोळी देंवयली*
*कितली सांगू हांवें म्हाका सांबाळ्ळी*
*कशी बाये सांगूं, सांगूंक म्हज्यान जायना*
*लज बाये दिसता, लजेन रावंक जायना*
*पयस आसलो दिवो, हात पावलो ना*
*जीव जाता कठीण, लजेन बायलो मरना*
*वेंग मारली नेटान, कशी बाये सोंसूं?*
*हार तोपलो गळ्याक, सांग कशी हांसूं?*

शृंगार तेंगशेर पावता तेन्ना विद्यापतीची प्रतिभा अदिकूच पर्जळटा. तो पर्जळ वेलींगकार हांच्या रुपांतरांत येवंक जाय तसो आयला. अश्लिलतायेचो वास नाशिल्लो हो शृंगार रस विद्यापतीच्या काव्याक एके वेगळेच उंचायेर व्हरता. एक देख अशी:

*उगतें पडलें तुजें गुपीत आज*
*सांग तूं सगळें आतां सोडून लज*

*कळटा जांगांनी आसा म्हूण दूख*
*मदन तिरान ओतलां जावंये सूख*
*गोरे कूच कशे तांबशे जाल्या*
*थरथरपी हात पदरांत धांपल्या*
*तूं तर राधे अमृत सागर*
*तातूंत पेंवता मुकुंद नागर*

विद्यापती इतल्यारूच रावना. 'इरॉटिक' ह्या इंग्लीश भाशेंतल्या उतराच्या अर्थाक लागीं अशी ही आनीक एक देख:

*दोगांयचे केंस वांगडाच सुटले*
*दोगांयकूय तांचें बळ कळ्ळें*
*दोगांयचे ओंठ एक जाले*
*दोगांयमदीं मदन चडूच जागले*
*दोगांय ओंठ चुमूंक लागलीं*
*दोगांय वेंगेंत घुस्पून उरलीं*
*दोगांय भान विसरून गेलीं*
*दोगांय सामकीं सुखांत न्हालीं*
*दोगांयची सामकी शुद्ध गेली*
*दोगांय दिसता बरींच तानेल्लीं*

पांच कवितांतल्यो कांय वळी हांवें देखी म्हूण दिल्यात. पूण रूच पळोवपाक, रांदिल्ल्या जिनसाक बोट लावन जिबेक बोट लायतात तशी ही गजाल. कांय थोड्योच कविता सोडल्यो जाल्यार विद्यापतीच्या हेर कवितां मदली दर एक कविता म्हळ्यार शृंगार रसाचें एक रूप. रुपांतर करतना अभयकुमार वेलींगकार हांणी हीं सगळीं रुपां सांबाळून दवरल्यांत. रुपातराचो दुसरो गूण म्हळ्यार विद्यापतीच्या काव्यांतलो शृंगार रस कोंकणींत परकी वा अडेचो कसो दिसना. तो कोंकणींत भोव बरे तरेन

भरसला आनी निजाचो कसो जाला. हें रुपांतरकाराचें येस. मैथिलींतल्या अभिजात साहित्याची गिरेस्तकाय कोंकणींत हाडून वेलींगकार हांणी कोंकणी साहित्याची गिरेस्तकाय वाडयल्या.

हेर खंयचेय भाशे भाशेनूच कोंकणी भाशेंतल्या साहित्याची गिरेस्तकाय वाडोवपाक दोन मार्ग उक्ते आसात. एक, कोंकणींत उंचेल्या दर्ज्याचें साहित्य निर्माण करप; आनी दुसरो, हेर भाशांतलें अभिजात साहित्य तशेंच उंचेल्या दर्ज्याचें आधुनीक साहित्य कोंकणींत हाडप. जे भाशेंतले साहित्यीक हे दोनूय मार्ग आपणायतात ते भाशेंतल्या साहित्याची गिरेस्तकाय बेगीन वाडयतात. सगल्या प्रगत भाशांनी ह्या दोनूय मार्गांचो उपेग केला. हें मतींत घेतलें जाल्यार 'विद्यापतीच्या पदां'क येवकार आनी रुपांतरकाराक परबीं दिवंक जाय.

– उदय भेंब्रे

मडगांव : 15 आगश्ट 2020

# अशी घडली.... पदावली !

**महाकवी** विद्यापतींचो जल्म बिहारांतल्या बिसपी, मधुबनी गांवांत एका गिरेस्त घराण्यांत जालो. ते सुमार 95 वर्सां जियेले. मदल्या काळांत तांणी जायत्या राजघराण्यांच्यो उलथापालथी पळेल्यो. जाण्टे राजा-राणी धरून जायते राजकुंवर आनी राजकुंवरीं कडेन तांचो संबंध आशिल्लो. राजकारण्यांच्यो कुटनिती आनी तांचे डावपेंच तांणी लागशिल्ल्यान पळयल्ले.

ते बरेच हुशार आशिल्ले जावंक जाय. देखून तांणी फकत विरह-शृंगाराचेर कवनां केलीं नात तर संस्कृत भाशेंतल्यान नितीग्रंथ आनी शिक्षाग्रंथ तयार केले. एक राजा शेजारच्या राजाक कशी चीट बरयतलो, एक सेनापती युवराजाक कशे तरेन सुचना करतलो, दासांक मुक्ती दितना कशें सुटके-पत्र बरयतले अशे तरेचे वेव्हारीक पत्र-लेखनाचे जायते नमुने विद्यापतीन आपणाल्या 'लिखनावली' पुस्तकांत बरयल्यात. राजकुंवरांक नीत मेळची म्हणून तांणी बरयल्लें 'पुरूष परीक्षा' ब्रिटिशांकूय बरेंच मानवल्लें.

ते भायर तांणी विद्यापति की पदावली, कीर्तिलता, कीर्तिपताका, भू-परिक्रमा, पदावली आदी रचना केल्यो. ह्यो रचना तांणी संस्कृत,

अवहट्ट आनी मैथिली भासांनी केल्यो. तांणी राधा-कृष्ण लिलांचेर बरयल्लीं पदां 'स्वांत:सुखाय' खातिरूच आसलीं. हातुंतल्याच कांय कवितांचें कोंकणी रुपांतर करपाचो यत्न हांवें केला. हें रुपांतर मुद्दम जावन करूंक हांव बसलों ना. ही आपशींच घडून गेल्ली गज़ाल.

म्हाका भोंवपाची खूब आवड. कामाचो बी चड ताण जालो म्हणजे भायर सरप आनी खंय तरी पासय मारून येवप ही म्हजी संवय. अर्थांत ही पासय गोंया भायर आनी तिवूय बी ट्रेनींत. ट्रेन म्हणटा तें अशें वाहन जंय सगलो देस एकठांविल्लो आसता. ट्रेनींत खूब कितें पळोवंक आनी अणभवूंक मेळटा. तर असोच एकदां भायर सरलों आनी वाटेक लागलों. वाटेर ट्रेन बदलची आसली. स्टेशनार बरोच वेळ उरलों. कसो तरी वेळ काडचो म्हणून स्टेशना वयल्या बुकस्टॉलार पुस्तकां चाळूंक लागलों. ट्रेनींत वाचूंक म्हणून कांय पुस्तकां घेतलीं. तातूंत एक आसलें मैथिली भाशेंतलें 'विद्यापतिके गीत'. म्हाका मैथिली कळना तरी हें पुस्तक घेतलें कारण तातुंतल्या पदांचो अर्थ एका प्रसिद्ध हिंदी लेखकान केल्लो.

ट्रेन आयली. हांवें बशिल्ले कडेन पुस्तक वाचूंक सुरवात केली. पूण भास इतली क्लिश्ट आसली, वाचल्यार कांयच कळना. तकली जड जाली. दोळ्यांर झांपड येवंक लागली. अर्थ जर इतलो कठीण तर कविता कश्यो आसतल्यो काय? ह्या विचारान मूळ मैथिली कविता वाचूंक लागलों. बरीऽऽ न्हीद तरी येतली अशें दिशिल्लें. पूण एक दोन कविता वाचल्यो आनी दोळ्यां वयली झेम नाच्च जाली. दिसलें 'आरे, हें तर म्हाका कळटा, भास नाका कळूंक पूण अर्थ कळटा.' हांव वाचतालों राधा, कृष्ण, कुंजवन, तांची क्रिडा आनी वाचतना हांव म्हज्या गांवांत पावलों. सामको म्हाड्डोळा जायां मळ्यांनी. कुंजवना जाग्यार म्हाका जायां मळे दिसूंक लागले. जायो फुल्ल्यात, फुलकान्नी जायो खुटूंक गेल्यात आनी म्हज्या तोंडांतल्यान येवंक लागलें,

*‘जायां मळ्यांतल्यान भायर सरताली*
*आयलो आड गिरिधारी*
*एकाच गांवचीं रावपी माधवा*
*करूं नाका वाटमारी*
*इश्टिणी सगल्यो मुखार पावल्यो*
*उरलीं मात्शी हांव फाटीं*
*शी थू जातली गांवांत कळ्ळयार ...’*

दोळ्यां वयली झेम गेली आनी संग्रहांतल्यो कांय कविता बशिल्ले कडेन कोंकणी जाल्यो. कांय कविता तातुंतल्या कांय उतरांचो अर्थ लागनाशिल्ल्यान सोडच्यो पडल्यो. गोंयां परततकूच रवींद्रबाब केळेकारांक मेळ्ळों आनी कोंकणी केल्ल्यो कांय कविता तांचे सुवादीन केल्यो. म्हजी अडचणूय तांकां सांगली. तांणी प्रो. शर्माचो पत्तो दिलो आनी ताचे कडल्यान मैथिली कोश बी मेळटा जाल्यार पळोवंक सांगलें. प्रो. शर्माक चीट धाडली आनी जाप आयली ‘मैथिलीची दशा तुमचे कोंकणी वरीच. आमचे कडेन विद्यापति सोडल्यार कांयच ना. तुमी तरी कोश बी तयार केल्यात पूण आमचे कडेन शुकशुकाट.’ हांव निर्शेलों. ही गजाल 1987 ची.

इतले मजगतीं हांवें केल्ल्या कांय कवितांचें रुपांतर ‘जाग’ म्हयनाळ्याच्या दिवाळी 1987 च्या अंकांत छापून आयलें. तें वाचून कवी स. शंकर रामाणींचें बेळगांवच्यान पत्र आयलें. ‘अभयकुमार, जागांत आयिल्लीं ‘विद्यापतीचीं पदां’ वाचलीं. कांय वर्सां पयलीं हांवें विद्यापतीचो अणकार करचो यत्न केल्लो. बरोच यत्न केलो आनी उपरांत मतींत आयलें ‘तेथे पाहिजे जातीचे, येरे गबाळ्याचे काम नोहे.’ आनी सोडून दिलें. तुवें केल्लो अणकार वाचलो. खरें सांगूं, तुवें जर निमाणी वोळ ‘विद्यापती म्हणटा’ जाग्यार ‘अभयकुमार म्हणटा’ अशी बरयल्ली

जाल्यार ह्यो कविता ओरिजिनल कोंकणी कविता दिसपाच्यो, इतलो सुंदर अणकार जाला. अस्सल कोंकणी मातयेंतली कविता कशी दिसता. मुखा वयल्या कवितांची वाट पळेतां.'

आनीक कितें जाय आसलें म्हाका? शंकरबाब रामाणींचें हें पत्र म्हणल्यार एक व्हडलो पुरस्कार कसो दिसलो. तांच्या उतरांनी म्हजी उर्बा वाडली आनी हांव परत 'विद्यापति के गीत' घेवन बसलों. जें कितें समजतालें ताचें रुपांतर करीत गेलों. 1988 वर्साच्या 'जाग' दिवाळी अंकांत आनीक कांय कवितांचीं रुपांतरां छापून आयलीं. उपरांत मात सगलें तशेंच पडून उरलें. हें रुपांतर पुस्तक रुपांत येवचें म्हणून जायत्या जाणां कडेन उलयलों पूण उपेग जालो ना. आतां इतल्या वर्सां उपरांत हें रुपांतर पुस्तक रुपांत येता. वाचकांक तें मानवतलें अशी आस्त बाळगितां.

**– अभयकुमार वेलींगकार**

# 1.

जय जय भैरव दुश्टांक भेश्टावपी
पशुपती भामिनी माते
सद्‌बुद्धी मागतां, नमन करतां
पांयांर दवरून माथें.
चंद्रमण्यान सजयल्ल्या शिंवासनाचेर
रात–दीस पांय सोबता
कितल्या दैत्यांक मारून उडयले
शौर्य तुकाच हें सोबता.
सावळें तोंड, तांबडे दोळे
जशीं फुल्ल्यां कमळां कुपांत
कट–कट आवाज पाकळ्यांवरी
ओंठांतल्यान तांबडो फेस काडटात.
घण घण सोबीत घुंगरां आवाज,
कृपाण तयार हातांत
कवी विद्यापती म्हणटा, पांयांचो तुज्या सेवक
विसरूं नाका पुताक.



## 2.

नंदाचो नंदन कदंबा रुखाखाला
ल्हवू-ल्हवू मुरली वाजयता
मुरलीचे बोल मेळूंक सांगता
मेळचें थळ-काळ सांगता.
ए सावळी, चैन वगडायल्या
तुजे विणें व्याकूळ मुरारी
यमुने देगेर देखल्यो कितल्यो नारी
समाधानी ना तरी हरी.
दूद घेवन भोंवतल्या सगळ्यांक
विचारीत भोंवता वनमाळी
तूं बाये समजुपी, कान्हाय हुशार
खुलय ताची कळी.
विद्यापती म्हणटा, आयक सुंदरी
नंदकिशोराक तूंच सोबतली.



# 3.

भुरगेपण जुवानी एक जाली
दोळे कानांची फुसफुस चल्ली
उलोवपांत चतुराय, हांसप जालें मोव
चंद्राक धर्तरेचो मोग भोव
हातांत हारसो शृंगार करता
इश्टीण विचारता, अशें कशें घडटा
एकलीच बसून देखता थानां
आनी हांसती आपल्या मनां
पयलीं आसलीं बोरांवरी
दिशीं दिशीं वाडलीं संत्रांवरी
माधवान देखलें नवखी चली
भुरगेपण जुवानी एक जाल्ली
विद्यापतीन म्हळें, पिशी तूं थारली
जनीं शाण्यो जातात चलयो, येतच जुवानी.



## 4.

जुवानी भुरगेपण सामकार बसलीं
दोगांय मदीं झगडीं पेटलीं
केन्ना केंस बांदले केन्ना सोडले
केन्ना आंग धांपलें केन्ना उगडें घालें
थीर दोळे चंचल जाले
छातयेमदीं तांबडे जालें
चलपांत गती, सैरभैर मन
जागलो कामदेव उगडून नयन
विद्यापतीन म्हळें, कर मन थीर
चलये कुडींतल्यान सुट्टात पांच तीर.



# 5.

थानां जाग्यार उबारी आयली
चलपाची गती दोळ्यांनी घेतली
आतां दर वेळा हातांत पदर
लजता इश्टिणींक विचारूंक खबर
कितें सांगूं माधवा ह्या वयाचो खेळ
देखतां देखतां बसता मनांत काम मेळ
काळजांत भितर अजापशें घडटा
पदरा भितर कळस दडटा
आयकून रस कथा मन भरता
आयकून संगीत हरण अशेंच करता
भुरगेपण–जुवानी करता भासाभास
कोण जिखतलो आनी कोणा जातली हार
विद्यापती म्हणटा, तुमी मानूंक जाय
भुरगेपणान कूड सोडूंक जाय.



# 6.

पयलीं बोरां, थानां मागीर जालीं नारंगां
दिशीं दिशीं वाडलीं पिडत सगळ्या आंगां.
वाडत तीं आंब्यावरी जालीं
आनी वाडून नाल्लाचेर पावलीं
माधव देखतालो वेळाची वाट
वतना मेळ्ळी ती, सांगूं कितें थाट
भिजिल्ले कुडीक चिकटल्लीं कापडां
देखतल्यांचीं तापूंक जाय जांगडां
छातयेर वाऱ्यान धोलताले केंस
चंवर धांपताले भांगरा महेश
म्हळें विद्यापतीन, आयक मुरारी
सुकुमाराक मेळटा असली नारी.



## 7.

व्हडलीं थानां दुबळी कूड
वालीन उबारलां जशें दोंगरा धूड
ए कान्हा तुजो सोपूत घेवन सांगतां
बरीच अपरूप दिसता राधा
सोबीत मुखडो ओंठ रंगल्या
कमळावांगडा 'मधूर' फुल्ल्या
काळे दोळे भोंवऱ्यावरी
म्होंव पियेवन सुस्तावल्लेवरी
भुंवयो कश्यो दिसता जणू
मदनान जोडलां काजळ धोणू
म्हणटा विद्यापती, आयकून दुता वचन
कान्हाक मेळूंक केलें गमन.



## ८.

वा! नवयौवन कसलें अभिरामा
देखलां जितलें सांगूंक जायना एक जाल्यां स अनुपमां.
हरण, इंदू, अरविंद, हती, भांगर, कोगळे वरदान
दोळे, मुखडो, वास, गती, कूड आनी बोलाचें दान.
मेकळे केंस थानार पसरल्या, केंसांत मोतयां हार
सुमेरुचेर आसा उजवाड आनी काळोख, चंद्राबगर ताऱ्यां हार.
कुंडल सोबीत हालता आनी पोल्यार सोबीतकाय वाडटा
ओंठार लाली सोबीतकाय हाडटा बिम्बफळ लजेन भरता.
भुंवयो भोंवऱ्याक, नाकापूड सुंदर पोपटाक लजेन मारता
म्हणटा विद्यापती, ही सुंदरी मेळटली गा कोणाक
कंसाक मारपी सोबीत अशा त्या नारायणाक.



## 9.

पर्वता-जोडये मर्दीं देखलो चंद्र
एका कमळांत दोन रंग रे
फुल्लें फूल शेंदुरांत लिपलें
एकेच वोळींत गजमोती रे.
आज देखलें अपरूप जें
सैमाची ती निर्मणी रे
कनक-रचीत सोबीत उरफाटे खांबे
खाला तांच्या थळ-कमळ रे.
थंय वाजतालीं वाद्यां मनोहर
कामदेवाक दिसता जागयतालीं रे
म्हणटा विद्यापती, पूर्व पुण्यवाच्यांक
मेळटा असली रसवन्ती रे
जाणटा मर्म ह्या गिताचें, राजा शिवसिंह
लखिमा देवीचे कान्त रे.



## 10.

चंद्रिमा–सार घेवन मुख घडलें
चकोरा दोळे चकीत रे
अमृतान धुवन हात पदराक पुसले
धाय दिको उजळ्ळ्यो रे
सुंदरीक कोणें घडयली रे?
रूप कितलें सोबीत सांगूं,
म्हजेच दोळे दिपावले रे
कुले भरल्या चलूंक जायना
कमर सामकेंच पातळ रे
तुटून पडत म्हूण मदनान धरल्या
बोंबले कडेन लता बांदून रे
म्हणटा विद्यापती, गजाल अजापाची
पूण फटींगपणां न्हय रे
रुपनारायण, जाणटा रस हाचो
शिवसिंह मिथिला नरेश रे.



## 11.

वतना देखली रस्त्यावेल्यान
इश्टिणी, बरीच गे ती शाणी
कनक-लतावरी सुंदर रचल्या
तिका गे निर्मितल्यांनी
हतया वरीच ती चलता, इश्टिणी
दिसता जशी राजकुंवरी
जातली जाची सुहासिनी
इश्टिणी, मेळटले पदार्थ चारी
निळीं वस्त्रां आंगार घाल्यां
केंस माथ्यार बांदल्या
रस पियेवंक मन भोंवरे
पांखां पसरून बसल्या
शिंवावरी बाये पातळ कमर
साळकावरी ते दोळे
गितांत गुंथून गूण तिचे
गायता विद्यापती पळे.



## 12.

केंसा भंयान गाय रानांत
मुखा भंयान चंद्र मळबांत
दोळ्यां भंयान हरण
स्वर भंयान कोगूळ
वेगा भंयान हती रानांत
सुंदरी, कोणा भंयान वता तूं?
तुका भियेवन सगळे धांवले
तूं कोणाक भियेता?
थानां भंयान साळकां उदकांत
कळशे उज्यांत लिपल्या
तोरंगां-नाल्ल मळबांत गेल्यां
शंभून वीख घेतलां.
भुजां भयान मृणाल लिपले
हाता भंयान पल्लव कांपता
कवी शेखर म्हणटा,
मदन रे हें सगळें करता.



## 13.

रामा, कितली सोबीत ती घडल्या
कितली नकसूद रचल्या
सगळी तिजोरी रकयल्या.
कपलार सुंदर गंधा तिकली
फाटल्यान केंसां भार
दिसता रवी-चंद्र वांगडाच उदेल्या
फाटल्यान काळखा हार.
चंचल दोळे तिरशे पळेतात
अंजन वयर चकचकता
साळका जोडयेक भोंवरे सतायता
वजनान साळकां बागवता.
थानां सोबीत कितलींय धांपलीं
तरीय नदरेक पडटा
कितलोय लिपयात हिमगिरी
तो रे खंय लिपता?
असली सुंदरी गुणाची खण
भाग्यवानाकूच मेळटा
जाणटा रुपनारायण ह्या रसाक
कवी विद्यापती गायता.



## 14.

कामिनी घेता न्हाण, पळोवन
काळजाक तोंपतात बाण
उदका धार केंसांतल्यान, दिसता
मुखचंद्राक पळोवन काळोख जाता
थानां म्हळ्यार सुकण्यां जोडी
उडून वचपाची येत बुद्द पाडी
ह्याच भंयान बांदल्या भुजांक
वचत उडून म्हूण मळबांत
वले कपडे आंगाक चिकटल्या
पळोवन मुनींनी लाळ घोंटल्या
कवी विद्यापती गायता, गुणी बायल
असली भाग्यवानाक मेळटा.



## 15.

वतना देखली न्हाताली गोरी
खंयसून हाडलां रूप करून चोरी
केंस फांफुडल्यार उदका धार
चंवरांतल्यान पडचे मोतयां हार
वल्या केंसांनी तोंड बरें सोबता
म्हौंवा आशेन साळकाक घेरलां काय दिसता
तांबड्या दोळ्यांक काजळ चोळ्ळां
साळका पानाक जसो शेंदूर लायला
भिजिल्लें कापड थानांक चिकटलां
भांगरा नाल्लार दिसता दंव पडला
कापड ल्हवूच कुडीक पळेता
आतां सोडटली, स्नेह हो सोंपता
असली संद आनीक खंय मेळटा
चिंतून न्हंय दुकां गाळटा
विद्यापती म्हणटा, आयक मुरारी
मन तुजें चिकट्टलें भिजिल्ल्या वस्त्रावरी.



## 16.

वाटेंत वतना मेळ्ळे दोळे, राधा आनी कान्ह
दोगांय मनांत कामदेवान बांदलें रे संधान
नदरेक मेळ्ळी नदर आनी जालीं दोगांय मग्न
बुद्धू चोराक लागता व्हय वेळा काळा भान
हुशार इश्टिणीक आसली रस-जाण
केलो तिणें नदरेनूच इश्टाक सावधान
वाटेवेल्यान चलतना मनांत मोगा तुशार
म्हणटा कवी शेखर, दोगांय बरींच हुशार.



## 17.

वाऱ्यान उडले कपडे आनी देखली हांवें कूड
नव्या कुपां ओंठांत जशें जोगलांचे धूड
आज देखली वाटेन वतना भरले मनांत रंग
वाल वाडची धर्तरेर नासतना कोणा संग
थानां जाग्यार साळकां, तातूंत देखलें एक अपरूप
नासलीं फुलूंक तीं, मुखार आसलें चंद्रीम रूप
विद्यापती कवी गायता, रस जाणटा रे रसवंत
देवसिंह नृप नागर जो हासिनी देवी कान्त.



## 18.

तिरशे नदरेन पळोवन म्हाका हांसली
पळोवन तिका चान्नी रात लजली
कुटील कटाक्ष मनाक भावलो
मनांतलो भोंवरो मनांत उडलो
कोण ती सुंदरी, कोण सांगतलो ?
जिवाक म्हज्या घोर, कोण मानतलो ?
तांबड्या साळकाची भोंवऱ्याक भूल
चकीत दोळ्यांनी घालता ती हूल
छातयेर सोबतालो सोबीत कुंभ
भांगरा साळकां म्हूण जावचो ना लोभ ?
अर्दे उगते अर्द ते बंद
उलोवपाची खंय आसली संद ?
कसलो तरी दिवंक सोदी संदेश
दिसनासलें हातूंत कांयच विशेश
म्हणटा विद्यापती, दोन मनां जागलीं
कामदेवाच्या मना प्रमाण वागलीं.



## 19.

सादोच मुखडो, सुंदर भुंवयो, सोबीत ते दोळे
फुलाक चोखून उडटा भोंवरो, पळेतात कळे
लागले दोळे तिचेच वाटेक गेली खंय ती नारी
कृपा जावची म्हूण जसो भिकारी कोणाचीय फाट धरी
अजापान तटास जाल्या दोळे भुंवई दावी वांकडी
कळत कशें भलत्याक खंयचे वटेन मदनाची तागडी
चंदना लेप छातयेक लागला, गळ्यांत मोतयां हार
भस्मान भरिल्ल्या शंकरावरी माथ्यार गंगे धार
दावो पांय सरलो मुखार, उजव्याक दिसली लज
कामदेवाचो लागलो तीर गतीन चलता गजराज
आज वतना देखली तिका रूप मनांत भरलें
धीर सोंपलो कळना कशें मन पिशें जालें
रुपा फाटल्यान मन धांवलें, खंय काय तें थांबलें
गांठ मारून छाती धांपल्या, थंयच येवन घुस्पलें
विद्यापती कवी गायता, रसीक घेतात आनंद
रुपनारायण नायक रे, लखिमा दिता संद.



# 20.

जंय जंय पावल दवरता
थंय थंय फुलां फुलतात
जंय जंय कूड झळकता
थंय थंय जोगलां मारतात
हांवें तिच्यांत अशें कितें पळेलें
ती तर म्हज्या काळजांत उरली.
जंय नदर पावता
थंय फुलांच दिसतात
हांसतना जाल्यार
अमृताचो शिंवर पडटा.
नदर तिरपी पळोवन दिसता
मदनाचे लाख तीर सुटल्या
सुंदरीक पळेतां तेन्ना
तिनूय संवसार उगडे जातात
परती म्हाका ती दिसत काय?
दुख्ख म्हजें पयसावत काय?
विद्यापती म्हणटा, मोग तुका पावतलो
सुंदरीक तुजे मेरेन हाडटलो.



## 21.

दिसता आतां कित्याक पळेलो
तिरपे नदरेन ताका
विखारी बाणांनी घायाळ हांव
कितें सुचलें हें म्हाका
फुटलें दूद तरी समजून बरें
सांबाळ्ळें हांवें ताका
मुरलीन केलें मोहीत मन हें
विकतना त्रास जाले म्हाका
न्हंयची देग, कदम्ब रान
लागींच यमुने घाट
तोंपून कांटे रक्ताळ्ळे पांय
पळे नासतना चल्लें वाट
शेवट सदांच गोड आसता,
विद्यापतीचो सार
मेळटलो तुका कंसाक मारपी
गोपाळ नंदकुमार.



## 22.

कितली पिडा म्हाका दिशी मदना
न्हय हांव शीव म्हज्यान सोंसूंक जायना
विभुती–राख न्हय लायला लेप चंदनाचो
कातडें न्हय आंगार, हो कुडको कपड्याचो
न्हय रे हो जटां भार, केंसांची ही फांती
न्हय हो कपलाक अर्धचंद्र, चंदनाची रेघ ती
कस्तुरीचो लेप गळ्याक, न्हय विखाचो भार
फणिधारी समजशी बेठो गळ्यांत मोतयां हार
म्हणटा विद्यापती, आयक  देवा कामा
एकूच पूण दुख्ख नांव म्हजें ‘वामा’.



## 23.

मान सकयल करून रावलीं थारले दोळे चोर
मोगा तोंडाची रूच घेवंक गेलें जशी चंद्रा फाटल्यान चकोर
मुद्दम नदर सकयल व्हेली पळोवंचें ना म्हूण ताका
आशेखोर भोंवरो उडलो ना जरी फांकारता आपलीं पांखां
गोड उतरांनी माधव उलयलो दिले हांवें थंय कान
सादून वेळ कामदेवान उबारलें धनू-बाण
कुडीक आयलो घाम इतलो व्हांवून गेलो शृंगार
फुटलीं कांकणां, पिंदली चोळी, फुल्लो कांटो आंगार
उतर फुटना, सांगता विद्यापती थरथरती सगळी काया
राजा शिवसिंह रुपनारायण सोबीत सावळी काया.



## 24.

कान्हाक पळोवचो दोळ्यांनी आसली ही आस
पळोवन ताका दिसलें वोगीच लावन घेतलो फांस
हांव तर एक सादी सुदी नारी
कळत कशें म्हाका खंयची खबर खरी
पावशीं कुपां जाल्यां दोळे दोनूय
प्राण तर कंठाक तेंकल्या पळय
नदरेक नदर मेळ्ळी कसली
जीव हातांत दिवन हांव बसलीं
कसो वागत काय तो मोहन-चोर
मन म्हजें उडलां उडचो जसो मोर
हाकाच म्हणप आदर, कांयच कळना
विसरतलें म्हळें, विसरूंक जायना
विद्यापती म्हणटा, आयक गे नारी
चित्त दवर थाऱ्यार मेळटलो मुरारी.



## 25.

सांगूं कशें सखी तुका म्हजें दूख
विखावरी भासता बांसुरीची फूंक
बांसुरीचे बोल कानांत जेन्ना पडटा
लज मनाची आपशींच विरगळटा
कूड सगळी उल्हासून वता
दोळ्यांक न्हय मनाक हें दिसता
गुरुजनां तोंडार भाव तरंग
फकाणां करूंक सगळेच दंग
तन-मनाची शुद्धच गेल्या
देवानूच आज लज म्हजी राखल्या
मनाचेर कसलेच उरले नात बंध
विद्यापती म्हणटा, रावचें अशेंच धुंद.



## 26.

मन्मथ,
तुका विचारीन दिसता एक
गुन्यांव दोळ्यांचो आनी पिडप कुडीक
हो रे कसलो विवेक?
उजव्या दोळ्यान पळोवंक बंदी म्हूण
दावो केलो दोळो तिरसो
तिरशेच नदरेन देखलो हरीक
गुन्यांव म्हणप हाका कसो?
येतना वतना रस्त्यांतल्यान
कितें कान्हाक कोण पळयना?
म्हाकाच बरो पिडटा मरे असो
हेरांचेर काम-बाण बरो सोडिना.



## 27.

एक दीस हरी फकत हांसत हांसत गेलो
म्हज्या नांवान दुसऱ्या दिसा मुरली वाजोवं लागलो
कितें ताचें घडलां कळप बाये कशें
आज हें ताका लागलां कसलें पिशें?
इश्टिणी हें तर ताचेंच साम्राज्य
लोकांचे दुडू आनी मागता हो व्याज
वळख ना देख तरी हाडटा वाज
लज ना भ्रांत कसली बाये खाज?
पळेलें आपणाक आनी म्हाकाय खीणभर
खिणांत वोडलें गोपांत जावन विभोर
खिणाखिणाक दाखयली कला अनुपम
कितलो उदार तो लागलोना दम
विद्यापती म्हणटा, असोच तो चोर
अशा वेळार जाता चडूच मस्तखोर.



## 28.

आयक मनमोहन, कितें सांगतां
इश्टीण म्हजी तुमचेर मरता
रातदीस जपता तुजेंच ती नांव
थरथरता, पडटा, तितलीच तिची धांव
जितली जितली रात वाडटा
संयम तिचो तितलो सुट्टा
इश्टिणी तिका समजावंक लागतात
तितलो तिचो संताप वाडटा
कवी शेखर म्हणटा, उपाय सुचता
तेन्ना रात सोंपून दीस उजवाडटा.



## 29.

धन्य धन्य रमणी, जल्म तुजो धन्य
सगळ्यांक जाय कान्हा पूण ताका तूं मान्य
वाट पळेता चकोर पावसाची, चंद्राक देखता चकोर
वालीक आदार रुखाचो, पळोवन मनाक म्हज्या घोर.
केंस पसरायले छातयेर तुवें अर्दें मळब धांपलें
यादीन व्याकूळ कान्हा तुज्या वखद ताका कसलें?
हांसतना तुका देखलें केन्ना ताणें, धरलो हातांत हात
वेंगेंत धरलें ताणें जेन्ना, दिली कशी ताका साथ?
इतल्यो यादी करून दिल्यो तरी खंय तुजें ध्यान
तुजे बगर ताचें जिवीत रिकामें, दवर हाचें भान.



## 30.

आयक इश्टिणी सांगचें कशें, राधेंत शेणलां मन
राधा राधा जप करीत भोंवता ताचें तन
थरथरपी कुडीर कांटे उबे, कुडींत ना रे त्राण
नदर पडली ना तुजेर तर सरत भायर प्राण
तुजे बगर ना ताका दुसरो, विसरतलो तरी कसो?
म्हणटा विद्यापती, ना हाका वखद जातलो तो पिसो.



## 31.

फूल कशें फुल्लां कांट्यांमदीं कळना
भोंवऱ्याक म्हऱ्यांत येवंक मेळना
पळेत फुलाक भोंवरो भोंवता
मेळ्ळे बगर ताका चैन खंय मेळटा
रसवंती मालतीक भोंवन भोंवन देखता
कशेंय करून पियेतलों म्होंव तो चिंतता
ताका जाय म्होंव तूं म्होंवा रास
म्होंवा बगर ताका जाता पळे त्रास
रास ती सांबाळटना कांयच तुका जायना
त्रास ताचे पळोवन कांयच कशें दिसना?
म्हणटा विद्यापती, जीव वांचत कसो
ओंठां अमृत पियेवंक जाला तो पिसो.



## 32.

कालिंदी देगेर देखलो आज
तुजेविणें माधव तळमळटना
दुसरें ना कोण मनांत ताच्या
यादी विखान ताका जळटना
मदन–भुजंग चाबला कान्हाक
अमृता बगर वखद ना ताका
कुलवती धर्म कांचे वरी
कामदेवा त्या संग नाका
बदलाक हाडला निलमणयां हार
तोच घालून कर अभिसार
निळे चोळयेन धांप कूड
कुपांतले विजेवरी जा तयार
चोंय वाटांनी इश्टिणीं संग
कुंजवनांत कर रस–रंग.



# 33.

पडटा जमनीर, उठ्ठा जमनीर न्हिदता
नेटानेटान स्वास मर्दींच व्हडान रडटा
खिणाक दिसता कंठांत पावलो प्राण
मर्दींच दिसता ना तिच्यांत त्राण
देखल्या हांवें एक तरणी नारी
वांचचीना ती जर लायना हात हरी
वांचयात तिका करून मंत्र पाठ
करा नवग्रह पुजा, घेया ज्योतिश्याची गांठ
करात सगळे उपाय पयलीं सोदा तिचो रोग
विरह ना जायत कसो जर सादलोना मोग.



# 34.

आयक कामिनी आयक म्हजी वाणी
मोग करतना सत्पुरुष जाणी
मोग सज्जना भांगरा समान
उज्यान तापून येतकूच दुपेटीन मान
तुटूनय तुटना मोग अद्भूत
तोडल्यारूय तुटना मृणालचें सूत
सगळ्या हतयां माथ्यार मोती आसना
कोगळेवरी सगळ्यांक कंठ गावना
सगळो काळ कसो आसत वसन्त
सगळेच दादले नासता गुणवन्त
म्हणटा विद्यापती, आयक गे नारी
मोग करचो तर पूर्ण विचारी.



## 35.

लाखांनी रूख, कोट्यांनी लता
चलयोय उण्यो समजूं नाका
सगळ्याच फुलांनी नासता म्होंव
असलीं फुलां कोणाक नाका
न्हिदेंतूय विसरूंक पावना
खूब थोडीं तीं फुलां
परत परत मधुकर मारता उडी
उणीं गा असलीं कुळां
आयक म्हगेलें वचन सुंदरी
तुजेच यादीन बुडला गे हरी.



## 36.

हाताक धरून पलतडीं पावय
म्हाका हुपून वचूं दी न्हंय कन्हैया
इश्टिणी सगळ्यो मुखार गेल्यो
मेळना कशीच म्हाका वाट कन्हैया
येवची ना हांव तुज्या सांगातान
काडीन कितलेय त्रास कन्हैया
विद्यापती सांगता आयक म्हजें
एकूच सांगात बरो, कन्हैया.



## 37.

कुंजवनांतल्यान भायर सरतालीं
आयलो आड गिरीधारी
एकाच गांवची रावपी माधवा
करूं नाका वाटमारी
सोड कान्हा पदर म्हजो
पिंजत रे नवी साडी
शी थू जातली कळ्ळ्यार गांवांत
नाका करूंक म्हाका नागडी
वांगडी इश्टीण मुखार गेली
उरलीं हांव हांगा एकटी
जोगलां मारता करप किर्ते
तातूंत रात ही काळखी
म्हळें विद्यापतीन, 'आयक गुणवती
कसलो भंय हरी आसल्यार सांगाती!'



## 38.

सुरवेकूच सुंदरे कुटील कटाक्ष
दीत नागर धावूय लाख
दीत सुर्वेक कोणूय हास्य सुधा
वाडोवंक आपले विक्रे तांक
आयक सुंदरी नवे, मदन हुशार
लिपोवं नाका तूं तुजो माल
राग दवर भितर, रस दाखय भायर
बऱ्या रत्नाक बरें मेळत मोल
सगळेंच भायर दाखोवं नाका
गरजेवंत दीत दुपेटीन दाम
म्हणटा विद्यापती, आयक शाण्या
गोड उलोवन करून घे गा काम.



## 39.

कित्याक भियेता इश्टिणी आसतना म्हजो सांगात
माधव लावचो ना आंगाक तुज्या हात
रातचो वेळ हो फुलांचें रान
कोणा शिकाऱ्याचें लागलां हांगा ध्यान
फुलांचें धोणू धरून तो हातीं
सुंदर चलयांचेर तीर रे चलयती
चल इश्टिणी कुंजांत जंय
महाबली कान्हा आसतलो थंय
राधेक बायन हरी म्हऱ्यांत हाडली
मोगी वल्लभाची इत्सा भागली.



## 40.

सोड शंका दुबावांची साथ
सोडून भंय धर मोगाचो हात
पिशेपणां सोड पयलींच सांगतां
दुख्खा बगर केन्ना सूख म्हूण मेळटा?
तीळभर दूख दीत जल्मभरा सूख

लागीं केलेना तर जावये विमूख
खिणा खातीर मात्शे बंद दोळे कर
वखद घेवपी दुयेंतीवरी कर
चल चल सुंदरी कर शृंगार
विद्यापती सांगता हे सुविचार.



# 41.

आयक आयक रे सोबीत कन्हैया
इश्टीण राधा तुका सोंपयल्या
कूड तिची नाजूक कमळावरी
तूं भुकेला रे भोंवऱ्यावरी
ल्हवू-ल्हवू कर तूं म्होंव-पान
नाजूक ती हाचें दवर मात्शें भान
पन्नास फेरे मारून भोंवरो गुणगुणटा
तेन्नाच कळी जशी आफडूंक दिता
हाराचे मोती मेजचेलें कर
त्याच निमतान थानाक हात धर
पालोवं नाका रति-रस-रंग
घे अनुमती तिची, करूं नाका भंग
कूड रे तिची गुलाबा फुलावरी
मदनाचो तीर कशी ती झेलतली?
कवी विद्यापतीन गायलां,
तिची विनंती तुजे मेरेन पायल्या.



# 42.

कवतुकान चल्ल्या घरा सजनाच्या वांगडा घेवन नारी
मर्दीं सोबता सुंदरी सजनी मेळूंक चल्ल्या ती मुरारी
सोबीत कपडे सजनीन घाल्या दिसता बरी सुंदर
देखतल्यां मन वोडून घेता चित्त मुनींचें उरना थीर
निळ्या कापडांनी कूड धांपल्या घेतला पदर माथ्यार
मन लजेलां यादीन ताच्या ल्हवू-ल्हवू पावल मुखार
धुकलून सजनाल्या घरा भितर नारी परत फिरल्यो
ओडून म्हऱ्यांत पदर काडती नदरेक नदरो मेळ्ळ्यो
लज गळ्ळी, प्रीत फुल्ली, खेळ्ळीं नवो खेळ
नवो अणभव, नवी रीत, नव्यान फुल्लो मेळ
कवी विद्यापती गाता, इश्टिणी हो नवो रस नवी रीत
ह्याच रंगांत बुडून गेल्यार वाडटली तुमची प्रीत.



## 43.

सुंदरी चल्ल्या शयन-कुडी वटेन
इश्टिणींनी धरल्या हात चोंय वटेन
वतना तिका भंय खूब दिसता
राहूक पळोवन चंद्रीम भियेता
भितर पावतांच हार तुटलो
भांगरा-शिंगराचो चकचक गेलो
रडून-रडून काजळ व्हांवलें
भंयानूच कुकूम पुसलें
कवी विद्यापती गायता,
दुख्ख वेंगायतकूच सूख मेळटा.



## 44.

आयक इश्टिणी म्हाका व्हर नाका भितर
हांव कितलीं ल्हान आनी हे निश्ठूर ....
एकेक करून गेलीं सगळीं भायर
वतां-वतां नेटान धांपलें दार
ह्याच वेळार बाये हेय जागले
कपडे सांबाळटना कितें सांगूं जालें
नाका म्हणटासर दुकां आयलीं दोळ्यांत
फुलचे पयलींच कळयेच्च्या भोंवरो पडलो गळ्यांत
कमळा पानार जशें उदक हालचें
थरथरतालें तशेंच आंग सुंदरीचें
कविराज विद्यापतीन म्हळें, 'आयक
त्रास दिता तरी उजो हो जायच.'



## 45.

इश्टिणीन मुद्दम शयन-कुडींत सोडली
खोशी जालो मोगी हाताक तिचे धरली
स्पर्शान ताच्या चली लजेली
किरणां स्पर्शान जशी कळी निर्शेली
ना ना म्हणटना दोळ्यांत दुकां आयलीं
निमाणें राधा बाबडी कुशीक न्हिदली
मेळ्ळी वेंग जरी सुटली ना कापडा-गांठ
न्हय हें इल्लें, कुचां वेल्यान फिरलो हात
हातां पोशान तोंड तिणें धांपलें
आंग बाबडेचें थरथरत उरलें
म्हळें विद्यापतीन, धीर इल्लो धर
ल्हवू-ल्हवू मदन दितलो आनीक भर.



## 46.

दिसलें ओंठ चुमचे कान्हाक, दिली ना राधेन साथ
साडये गांठ सोडली ताणें, राधेन धरलो हात
कामिनी नाजूक, मोगी रसीक, करीत काय तिची पर्वा
खिणांत ताणें उखल्ली तिका, जिखलो रे माधवा
नाखटां वळ कुडीर उठले, विरोध जालो मंद
मजा राधेक येवंक लागली, धांपीत कित्याक मागीर चंद्र.



## 47.

सांबाळीत आपणाक शीम तिणें गांठली
पांया आंगठ्यान जमनीर बरोवंक लागली
इश्टीण ती, पिया म्हऱ्यांत बसली
तिरशे नदरेन ताका पळेत उरली
नवेंच तें जोडपें, पयलेच फावट मेळळीं
समजून घेतासर तांची रात अर्द उलगल्ली
हाताक धरून तिका, ताणें गोपांत घेतली
नाका नाका म्हणत तीय वेंगेंत बसली
लजेन सामकी तिची मोडटाली कूड
कळना कशी पूण मारली तिणें बूड
विद्यापती म्हणटा, नववधूचे हे ढंग
वता कांय वेळ पूण जाता ते भंग.



## 48.

हरीन जेन्ना म्हजी चोळी देंवयली
कितली सांगूं हांवें म्हाका सांबाळ्ळी
कशी बाये सांगूं, सांगूंक म्हज्यान जायना
लज बाये दिसता, लजेन रावंक जायना
पयस आसलो दिवो, हात पावलो ना
जीव जाता कठीण, लजेन बायलो मरना
वेंग मारली नेटान, कशी बाये सोंसूं?
हार तोपलो गळ्याक, सांग कशी हांसूं?
विद्यापती म्हणटा, 'विसरलीं तीं भान
कोण सांगत बाये, दिसाक येत जाण!'



## 49.

ए कान्हा, बळान जर आफुडशी म्हाका
स्त्री वधाचें पातक लागतलें तुका
रसीक नागर बाबा आसशी तूं व्हड
म्हाका खंय खबर रस तीख काय गोड!
रस परक्या कडेन वता, हांव तडफडटां
तीर लागिल्लें हरण जशें फडफडटा
कामदेव आस ताची पुरीच करना
बरे मनीस असलीं वायट कामां करना
विद्यापती सांगता, खरें तेंच सांगतां
पिकें फळ गोड, तन्न्यांत रस खंय आसता?



## 50.

काम कलेंत तूं आसशी कितलोय धीट
हांव तुका कशीच घालचींना मीठ
रस पघळटलो मनांत म्हज्या
तेन्नाच येतलीं म्हऱ्यांत तुज्या
खंयच्याय वेळार धरूं नाका आस
वोगीच जातले दोगांयकूय त्रास
समजून घे रे संवसाराची रीत
ल्हवू-ल्हवू चंद्रकलेवरी वाडटा प्रीत
अजून सारकी वाडली ना म्हजी ही कूड
कशी मारूंक दिवं तुका तातूंत बूड
विद्यापती म्हणटा, हीच बाये रीत
हरव्या फळाक पळोवन सुचता गीत.



## 51.

हरी हातांत सोंपयली तिका, जालें तांचें काम
ल्हवूच तो विनयता तिका, ताचीं उतरां अनुपम
हरणा दोळ्यां धनी राम
गोड उतरांनी विरघळावपाचें करता बरें काम
सुखद शय्येर रती-साधना दोगांय चिप्प भिजल्यां
कूड चुंबून घेता रस आनी लजेन राधा कांपल्या
मदन शिंवासनार बसला मोहन, रसीक तो सुजाण
भंय-गंड सगळे तोडल्या ताणें, राधाय राखता मान
कवी शेखर म्हणटा, कितें खालें भुकेल्ल्याक कळटा खंय
तळमळट्या मनाक मागीर घालची कित्याक वंय?



# 52.

सुंदरे सांग, कितें बाये जालें
आज अशें तोंड कित्याक पडलें
कित्याक अशे दोळे बाये चोळी
उलयतना कित्याक विसरता वोळी
ओंठांचोय रंग उडून गेला
सांग कसलो खेळ खेळ्ळा?
उगतें पडलें तुजें गुपीत आज
सांग तूं सगळें आतां सोडून लज
कळटा जांगांनी आसा म्हूण दूख
मदन तिरान ओतलां जावंये सूख
गोरे कूच कशे तांबशे जाल्या
थरथरपी हात पदरांत धांपल्या
तूं तर राधे अमृत सागर
तातूंत पेंवता मुकुंद नागर
म्हणटा कवी शेखर, सोड तूं लज
आयकूंक आशेला इत्सूक समाज.



## 53.

विसरूंक जावची ना सखे कालची रात
मणयाचेर पडलो पिसायेचो हात
कांच कांचना फरक कळना
गूंज रत्नांतलो भेद कळना
कले रसाची ना जाका जाण
उदक खीर समजता समान
कशी कळत ताका प्रीत रसाळ
माकडा गळ्यांत मोतयां माळ
म्हणटा विद्यापती, सार हाचो जाण
माकडा तोंडांत सोबत व्हय पान?



## 54.

धांपून घे मूख तुजें गोरी
आयकूंक आयलां चंद्रा जाल्या चोरी
घराघराची चल्ल्या झडटी
तुजेर येत, आसा तूं एकटी
खंय लिपयतलो चंद्राक चोर?
थंयच्यान येत चान्याक जोर
हांसून अशें फकाणांर घेशी
लिपयल्लें धन वाऱ्यार घालशी
ओंठां भितर दांतांची ज्योती
भांगतिळ्याचो विसरशी मोती
म्हणटा विद्यापती, नाका वोगीच शंख
चान्याक केन्ना लागला कलंक?



## 55.

बरी चलाख तूं बाये राधे
जिखलो कन्हैयाक नदरेन अर्दे
ऋतुपती वसंताक तयार केलो
मोल थारावंक मन्मथाक हाडलो
कोगळे कागदां मकरंदा शाय
टांकाक भोंवऱ्या पांय लाय
पळोवंक सगळें चंद्र आसलो
बरोवप्याचो मोन्यांनी मान केलो
तोच रती-रंग बरोवप करता
अर्दे नदरेन राधा, कन्हैया जिखता.



## 56.

ताक मेळना रोखीन हांगा
तूप मागता उदार
रितीन वागयना, मागता खाण
हावरो हो बेकार
आज सांगतां मजाच केली
कान्हाक दिलोना मान
बसूंक मेळ्ळें ना आसन तर
मारतलो खंय ठाण?
दिशिल्लें ताका मेळटलो पलंग
मेळ्ळी पिंजकी शेंदरी
म्हणटा विद्यापती, ए गुणवंती
आज बुद्‌दी तुजी बोंदरी.



# 57.

सांग सुंदरी धरूं नाका राग
देखला आज तुजो अपरूप साज
कस्तुरी लेपान आंग लेपलां
कोणाचें नशीब उजळपाचें आज?
परत परत पळेशी पश्चीम दिकेक
केन्ना मावळटलो दीस हो अखेर?
पांयजणां पांयांत बांदल्यां थीर
आवाजान थंडसाणेक पडची न्हय चीर
उठ्ठा हांसता मदींच कसलो हो भार
कित्याक म्हूण आवडूंक लागला अंधकार
म्हणटा विद्यापती, आयक गे नारी,
धरल्यार इल्लो धीर मेळटलो मुरारी.



## 58.

चंद्रा रातचो आज उदेवं नाका
पियाक चीट धाडूंक आडखळ नाका
श्रावणांत आमी केली प्रीत
मोग करपाची वेगळीच रीत
जाय तर राहूक हांसून गुठलायन
शीतल चंद्राक गिळूंक लायन
कोटी रत्नां, कुपां तुमकां दितां
अजुनूय काळी करात रात, मागतां
म्हणटा विद्यापती, शुभ अभिसार
बरे लोक करता ह्या खिणां उपकार.



## 59.

येवंक  देवळांत भायर सरलीं
पावसाक लागून वाटेंत उरलीं
निसरडे रस्ते जड हे नितंब
पडत पडत आयलीं म्हूण हो विलंब
कुपांतल्यान पळे विजो पडटाल्यो
वांगडाच जलधारो व्हांवताल्यो
गुपाट काळोख सगळ्याक जालो
उत्तर - दक्षीण नकासोच बदल्लो
ए हरी म्हजेर करूं नाका रोश
जालो येवंक वेळ तो म्हजो न्हय दोश.



## 60.

राहून कूप जावन सुर्याक ग्रासला
रातीवरी सगळ्याक काळोख दाटला
एकसारखो पावस पडटा
हुंवारान भोंवप कठीण जाता
चल सुंदरे कर तुजो साज
समागमाक दीस बरो आज
जाण्ट्यां घरच्यांचो भंय दवर पयस
पुराय जायना छंद नासल्यार साहस
ह्या संवसाराचें एकूच हें सार
जालो जर संगम मेळटलें प्यार
म्हणटा विद्यापती कवी, कंठहार
कोटी उपायांनी मेळना दिसा–अभिसार.



## 61.

सोड माधवा वचूं दी घरा, दीस धारेक आयलो
अरुण उदेलो उजवाड जालो दीपक पालोवन गेलो
कळत घरच्यांक लज वतली गुपीत वतलें गळून
हट्ट्ट नाका हो वचूं दी म्हाका लज दवरची जपून
भोंवरो फुलाक चुंबून सोडटा दाखोवन दिना चोरी
धन दवरता लिपोवन घरांत, दवरीत कोण तें दारी?
चोरी केली तरी कळूंक जायना, सावा माथ्यार जावचें मोर
म्हणटा विद्यापती सांग सखी सार, जीवन तें जें करी पर उपकार.



## 62.

फूल तोडूंक गेल्लीं जंय
चाबलो भोंवरो ओंठांक थंय
गेलीं थंयसून यमुने तिरार
थंय कपडे उबले वाऱ्यार
सरळ सांगतां इश्टिणी तुका
आनीक कांयच विचारूं नाका म्हाका
सोबीत मोतयांचो गळ्यांत हार
समजून सोरोप आयलो मोर
मारून झोंपय ताणें व्हेलो
काळजाक घाय करून गेलो
म्हणटा विद्यापती, नशीब बरें
वायट उतर मनाक लागता खरें.



## 63.

झेमेन जाल्ले दोळे अर्दे
उतरूय येतालें अर्दें अर्दें
रती-आळस कूड थकिल्ली
तरी तुका पळोवन भूक भागिल्ली
माधवा, चल चल या थंय
पावलां काळजांत तुजीं पुजतात जंय
चंदन कस्तुरीन कपल रंगलां
देखली सवत भाग्य तें मानलां.



## 64.

आयक सुंदरी दिवन बरें ध्यान
चूक ना म्हजी आयक दिवन कान
पुजतालों पशुपती जागून रात
तातूंत जालो वेळ तर कसलो घात?
लागला कस्तुरी कुकमा दाग
सुकल्या ओंठ करून मंत्रां पाठ
रातभर जागून लोचन लाल
तरी घालशी म्हजेर नस्ते आळ
नवकवी शेखर म्हणटा, सांगूं कशें खास?
सोपूत घेवन सांगल्यार दवरशी विस्वास?



## 65.

माधवा न्हय हे उचीत विचार
घरांत आसतना रती, कित्याक करचो व्यभिचार
प्राणा परस प्रीय तिका तूं काळजांतलो हार
तरी फिरती नदर तुजी मारूंक भायर फार
कंजूश दादल्यांक म्हणिना कोण बरे, करता तांचो उपहास
नीज धन सांबाळून दुसऱ्यां उपभोगाची न्हय बरी गा आस
म्हणटा विद्यापती, आयक मथुरापती कसली ही रीत?
आसतना घरांत मागत हेडप बरी न्हय रे ही रीत.



## 66.

येवचें न्हय जल्माक कोणें
घेवचो न्हय चलये जल्म कोणें
चली जावची न्हय रसवंती
रसवंती आसची न्हय कुलवंती
मागतां देवा मरण एकूच सांगतां
निमणो खीण मेरेन थीर मन मागतां
मेळूं स्वामी रसीक, चतूर
मोग उरूं म्हजो, म्हजेच भितर
पराधीन जावंक मेळूं 'तो' विचारी
मोग्याक विवेकी कशी हारचीना नारी
म्हणटा विद्यापती, वाट आपशींच मेळटा
मनांत आसल्यार दर्यो हुपूं येता.



# 67.

इतलो तेंप आसली नवीच रीत
उदक-नुस्त्यावरी आसली प्रीत
एकाच विचारान आमकां वेगळायले
हांसली ना प्रीत कांयच ना कळ्ळें
एकाच पलंगार आमी आसलीं
तरीय पयस आसाशीं भासलीं
ज्या रानांत कांयच हालना
प्रिया म्हजो हांसता त्या रानां
जोगणीचो करून हांव भेस
सोदीत भोंवतलीं ताका देस-देस
म्हणटा विद्यापती दवर मात्शें भान
सत्पुरुशाचें करचें न्हय निदान.



## 68.

एकटक पळेता म्हाका, चंद्र काय हांव तारो
दोगां मदल्या कोणाचो लागता म्हाका वारो
सारकें बरें सांग कान्हा कपट नाका
चुकलां कितें म्हजें तें कळुंदी म्हाका
हांवें केन्ना तुका वायट म्हणलें ना
गूण गावपाचे तुजे केन्ना सोडले ना
कुमुदिनी करता जशें चंद्रा अनुरंजन
हांवूय मना पासून गायतां तुजें भजन.



## 69.

हातार मूख, तांबडे दोळे दुकां व्हांवयता
कपडे, भांगर ना जाग्यार केंस वाऱ्यार हुबता
तुजे वाटेक नदर लागल्या चित्त ना थीर
यादी फाटल्यो करता दग्द तिचें शरीर
कितलो वेळ माधवा मागतलो मान
विरही राधा मागता दर्शन दान
कमळ-कुमूद आसती उदकांत
सुर्य-चंद्र पयस कितले मळबांत
मळब गाजयता कूप, रानांत मोर नाचता
कोण जाणा मोगांत अंतर कितलें आसता
म्हणटा विद्यापती, उरफाटो मान
राधे उतरांनी लजली कान्हाची मान.



# 70.

घरांत सगळ्यांचेर न्हिदे भार
नन्दकिशोर ल्हवूच सरलो भायर
मळबभर आसलो चान्न्या हांसो
वेळाचो अदमास लागतलो कसो?
सांवळ्या एकाच भेसान कुपां आनी कान्हा
पळोवन धादोसचीं तरणाट्यां मनां
राधे मोगाची आसली ताका जाण
देखून केल्लें ताणें काळखांत प्रयाण
पर-नारी मोगाची असलीच रीत
काळखे रस्ते लेगीत गायता गीत
फुलांचें रान आनी कालिन्दी तीर
चलत आयला थंय गोकूळ वीर
कवी शेखर म्हणटा, मेळटली 'जाय'
आयला भेटेक तिचे नगराचो राय.



## 71.

इश्टिणी कान्हाक मात्सो समजाय
रोंपून बीं तोडलो आंकूर, वांचोवचो सांग उपाय
तेला थेंब जसो उदकार पेंवता तसो म्हजो अनुराग
उदका थेंब रेंव सुकयता तशें जालां म्हजें सुहाग
बातांनी ताच्या भुल्लुसून गेलीं, कुलवधू जालीं कुलटा
म्हज्याच हातांनी करून तोंड काळें, मनांतल्यान रडटां
चोरावरी मन हें जालां कूड दिसली जरी बरी
जोती लोभान जळोवन घेवपी गत म्हजी पाख्यावरी
म्हणटा विद्यापती, कलियुगा रीत ही चिंता कित्याक करशी
आपलें कर्म-दोश आपणेंच भोगपाचे संवसाराची रीत अशी.



# 72.

दोगांयचे केंस वांगडाच सुटले
दोगांयकूय तांचें बळ कळ्ळें
दोगांयचे ओंठ एक जाले
दोगांयमदीं मदन चडूच जागले
दोगांय ओंठ चुमूंक लागलीं
दोगांय वेंगेंत घुस्पून उरलीं.
दोगांय भान विसरून गेलीं
दोगांय सामकीं सुखांत न्हालीं
दोगांयची सामकी शुद्ध गेली
दोगांय दिसता बरींच तानेल्लीं
म्हणटा विद्यापती, दुबाव गेलो
दोगांयकूय मदन पावलो.



# 73.

अभिनव सुंदर कोमल पानां
न्हेसयलां तांबडें कापड सगळ्या रानां
धोलता मलय-पवन जावन सुस्त
आपल्याच फुलां रसान जाला मस्त
पळे रे माधवा मन उल्हासलां
वृंदावनांत वसंत फुल्ला
कोगूळ गायता येवन भार
मदन घेता संवसारा नव्यान अधिकार
मधुकर फिरता करीत मधू पान
भोंवर मारून करता मानिनी मान
दिकांक सगळ्या खोशी भारी
रास खेळची रे सुचोवणी मुरारी
म्हणटा विद्यापती, जाला रसमय गांव
राधा-माधव अभिनव भाव.



## 74.

म्हौंवाळ ऋतू भोंवरे पानांनी भोंवता
मधूर फुलांतल्यान म्हौंव व्हांवता
मधूर वृंदावन गोड बरें
गोड गोड रसरंग खरे
मधूर हांगच्या चलयां संग
मधूर मधूर रसरंग
मृदंगाचे बोल रसाळ
मधूर मधूर ते वाजती ताल
मधूर नर्तकी गती भंग
मधूर नर्तकी नट संग
मधूर मधूर रस गान
मधूर विद्यापती भान.



## 75.

चल पळोवंया ऋतू वसंत
रावल्यां जंय कुजां केतकी हांसत
चंद्र जंय निर्मळ भोंवरे काळे
रात जंय उजळळ्या दीस काळे
मानिनींचो राखचो पडटा जंय मान
मदनाचे सुट्टा पळे फुलांबाण
मधुसुदन राधे वन विहार
जातलो हांगाच म्हणटा कवी कंठहार.



## 76.

चंदन भासलें विखावरी रे जाल्यो भांगरा वस्ती जड
सपनांत लेगीत आयलो ना हरी दिसलो ना गिरिधारी धड
वाट पळेत मुरारीची कदंब-सावळेंत एकसुरी उबी
साडये रंगूय उडून गेलो, हरी विणें पडली फिकी रे छबी
चल चल तूं उखल पावल गांठ बेगीन मथुरा
बेश्टोच येत आळ तुजेर पळेलो ना म्हूण चंद्रा
म्हणटा विद्यापती, कान दिवन आयक गुणी नारी
आज येतलो गोकुळाचे वाटेर मेळटलो तुका गे हरी.



## 77.

न्हिदिल्लीं हांव घरांत आसलो गळ्यांत मोतयां हार
बरेच रातचो पिया भितर सरलो आसलीं न्हिदेंत ठार
चपळायेन ताणें जागयनासतना काडलो गळ्यांतलो हार
थानांर दवरून हात म्हज्या मुखाक थीर नदर
कितली अभागीण हांव, वैरीण थारली म्हजी न्हीद
देखूंक हांव पावली ना मुखार आसलो गुणी गोविन्द
विद्यापती कवी गायता रे, धर मनांत इल्लो धीर
झाड वेळारूच फळटलें, घालें कितलेंय जरी नीर.



## 78.

आयक रसिका, रानांत बांसुरी वाजोवं नाका
पांयां तुका पडटां, तुजी दासी जावन रावतां
कितें आसलीं कितें जातलीं खबर ताची ना
फकाणांचो विशय जायत म्हणून गा भियेतां
अशें दिसता, मदन-भुजंग म्हाका चाबला
नंद-नंदना साथ सोडचीना, संवसार जरी हांसला
विद्यापती म्हणटा तुजे मुखार गे चंद्र फिको राधे पडला
धन्य धन्य तूं धन्य ती सेवा हरीक तुवें जिखला.



## 79.

जय जय शंकर जय त्रिपुरारी जय अर्द नारी नटेश्वरा
अर्द धवल कूड अर्दी गोरी अर्द सपाट थान अर्द कटोरा
अर्द हाडां माळ अर्द गजमोती अर्द्या आंगाक चंदन अर्द विभुती
अर्दे कुडीक दावल अर्द्याक जानवें अर्द भोळो आनी अर्द हुशार मती
अर्दो जोगी अर्दो भोग विलासी अर्दे कपडे अर्दो आसता दिगंबर
अर्दो चंद्र अर्द्याक कुकूम सोबता अर्दो विद्रूप अर्दो सोबीत सुंदर
म्हणटा विद्यापती विधातोच जाणटा, दोन भागांनी प्राण एक वांट्टा.



## 80.

जोड कितलेंय करून पातकां, घरचे मेळून खाता
मरतना कोणूच विचारना हरी, केल्लें हांगाच उरता
ए हरी तुका प्रणाम करतां
पाप-सागर हुपचो उपाय सुचय म्हणून मागतां
जल्मांत केन्ना पुजलो ना तुका केले रती-रंग
अमृत सोडून वीख पियेलों सम्पदा मानली भांग
म्हणटा विद्यापती चिंतून पळे उपयोग कितें आज?
सांजेर आयला मागूंक तरी दिसता रे ताची लज!







**अभयकुमार वेलींगकार** हे फाटलीं कितलिंशींच वर्सां नेमान साहित्य बरयतात. ताणीं कवितेचे वेगवेगळे प्रकार हाताळ्ळ्यात. गद्य लेखनय ताण विपूल प्रमाणांत केलां; हातूंत कथा, निबंद, नाटक, एकांकी, समाजीक-राजकी विशया वयले लेख हांचो आस्पाव आसा. आमचे दिसपट्टे जिणे कडेन संबंदीत खंयच्याय विशयाचेर ते बरोवंक शकतात. ताणीं कोंकणी तशेंच मराठी वर्तमानपत्रां, साप्ताहिकां, पाक्षिकां, मासिकांनी लेखन केलां. तांची बरोवपाची सुरवात दै. राष्ट्रमतांतल्यान जाली. उपरांत दै. गोमन्तक, दै. नवप्रभा, दै. सुनापरांत, दै. गोवन वार्ता, पुणेच्यान येवपी साप्ताहीक स्वराज्य, चंद्रपूरचें दैनीक गर्जना, सावास, संपाती, मैफल, अंकुर ह्या वर्सुकी अंकांनी तशेंच साप्ताहीक कोंकण भारती, जाग, बिम्ब, कुळागर ह्या कोंकणी मासिकांनी आनी बाल साहित्याक ओंपिल्ल्या मारुती, राजहंस ह्या मासिकांत लेखन केलां. 'आकाशवाणी पणजी' चेरूय ताणीं कार्यावळी केल्यात. सद्याक दै.'भांगरभूंय' ह्या वर्तमानपत्राचेर ते वेगवेगळ्या विशयाचेर नेमान बरयतात.

आयजवेर तांचे चार कविता संग्रह, एक कथा संग्रह, एक एकांकी संग्रह, एक नाटक आनी दोन नवलिका उजवाडाक आयल्यात. ताणी बालसाहित्यूय बरयलां. बालसाहित्याचीं तांचीं आतां मेरेन 25 पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. जातूंत 8 काणयां झेले, 6 कवितां झेले, 8 चरित्रां आनी 3 अणकार अशे साहित्य प्रकार आस्पावतात. ताणी बरयल्ल्या 'इंग्लिशींतल्यान कोंकणी शिकात' ह्या स्वयंशिक्षकाचो जायत्या गोंयांभायल्या कोंकणी शिकपी विद्यार्थ्यांक लाव जाला.

'दीस उदेतकूच यो' ह्या तांच्या कविता संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो 1989 वर्साचो आनी 'कंवच्यो' ह्या कथा संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो 1990 वर्साचो पुरस्कार लाबला. तशेंच कोंकणी भाशा मंडळाचो 2019 वर्साचो चंद्रकांत केणी यादस्तीक स्तंभलेखन पुरस्कार मेळोवपाचो मानय तांकां फावो जाला.



शणै प्रकाशन
वेलींग

ISBN : 81-86390-20-0

मोल : 150/-